Melvyn Rodrigues.

वर्स : तीन अंक : चार वर्षा अंक जुलय/आगस्ट १९८५

# ऋतु

कवितेचें कोंकणी द्वैमासीक

संपादक : पुंडलीक नारायण नायक

मुखपृष्ठ : श्रीधर कामत बांबोळकार

छापपी आनी अुजवाडावपी : नारायण वादोळकार
कुळागर प्रकाशन, पो. बॉ. नं. ७८, मडगांव (गोंय) ४०३ ६०१

छापणावळ : हिरू नारायण नायक, अपुरबाय प्रिंटर्स, वळवय गोंय.

संपादकाचो पत्तो : पुंडलीक नारायण नायक
वळवय, सावय-वेरें, फोंडें (गोंय) ४०३ ४०१

अंकाचें मोल : २ रुपया वर्सूकी पटी : (विशेशांकासयत) १२ रुपया

## चत्राय

१५ आगस्टाक भारतीय मुक्ती दिसाच्या निमतान गोंयांत कोंकणी भाशा मंडळाचे वतीन दर वर्सा एक काव्यमहोत्सव जाता. पोरूं वर्साच्यान हो उत्सव 'बाकीबाब यादस्तिक काव्योत्सव' म्हण मनयतात. हातूंत तरनाटयां खातीर एक काव्यसर्त आसता. अंदू वर्सा हे काव्य सर्तित वांटो घेतिल्ल्या कांय वेंचीक युवा कवी-कवयित्रींच्यो कांय कविता ह्या अंकात आसपावन घेतल्या.

संपादक

## शंकर रामाणी

मूळ बंगाली : **शक्ती चट्टोपाध्याय** / मराठी अणकार : **राजीव जोशी**

### अबानी, तुमी घरांत आसात ?

सगळो वाठार न्हिदेंत गुल्ल जालां
सगळ्या दारांक आडामे घाल्यात
फक्कत रात दारांचेर मारता
" अबानी, तुमी घरांत आसात ?"

हांगा पावस पडटा
बाराय म्हयने हांगा पावस पडत आसा
पांचवेंचार मळार जनावरां चरतात तशीं
कुपां मळबांत फिरत आसतात
एकादया दुस्मानावरी तन्ने रसरशीत तण
दारार मारीत रावता
" अबानी, तुमी घरांत आसात ?"

पैस, खूबच पैस
धांवतल्या काळजांतल्या कळवळ्यांनी
अर्दो-मर्दो जातकीर
हांव सुस्त न्हिदलों
इतल्यांत एके रातीच्या मर्णांत
हांवें दरवटचार आवाज आयकलो
" अबानी, तुमी घरांत आसात ?"

## मेल्विन रोड्रिग्स

### तूं विचारुं नाका

बैबलांतल्या अुतराक सवालांचें कोबलें तूं अुडोंव नाका
क्रिस्ती समाजाचे कोडदांवांचे मार तूं मागूं नाका
तूं मागूं नाका–शिरांक शिराप मागूं नाका

माणक्याक अुदाक–जुदेयाक जेजू कळित आसलो
जुदासान सुटयांक विक्रित करपाचो मिस्तेर कसलो ?
तूं विचारूं नाका–नास्तीक बिल्लो खोवूं नाका

गर्भा पोतयेंत दादल्या कणू-भुरगें जाता
मरये कुसव्यांत जुजे नास्तां जेजू येयता ?
तूं विचारूं नाका-मस्ताकाक चिंपी लेपू नाका

भूता–प्रेतांक वेंगचो मनीस पिसो जाता
धाडी केल्लो नजरेन कित्याक मान घेता ?
तूं विचारूं नाका–अेक्सुरो लेस सांडूं नाका

अंतिम जेवणार दोन तलवारी संतोस सर्गा
जुदेवांच्या नासाचें चिताप-सोमयाचें जाहीर करनां ?
तूं विचारूं नाका–कानसुलाक थाप जोडूं नाका

बैबलांतल्या अुतरांक सवालांचें कोबलें तूं अुडोंब नाका
मारुंक तयार जुदेव सभार खुरसार तुका
तूं जांव नाका–अन्येक जेजू जांव नाका

## श्रीधर कामत

### शाराची काणी

ह्या शाराच्या  शिरंतरांनी गच्च साकळील्लो काळोख
आनीक
चार वण्टीआड अुबंत पडील्लीं भतां
हातांत हात घालून जेन्ना रस्त्यानी सरपटत भोंवलीं
तेन्ना शाराच्या मरणाच्यो घांटी वाजूंक लागल्यो
पुण
काळोख वितळावपी गर्मी आनी
मडी लासोवपी अूब आंगात घोळोवपी
रान्नी पोलांतल्या अिंगळयांनीय बंडाचे कवदे अुबाल्ले
काळखाच्या भुतांच्यो सावळ्यो हुल्पल्योच
हालीं शारांत रातचोच अुजवाड दिसूंक लागला.

### तेन्ना : आतां

संवसार रचणार देव अेकच
अशें सांगून
त्या लिंगपिसाटांनी
आपले वासनेच्यो बियो
आमचे भूयेंत किल्लत घाल्यो
आमचे तकलेंत तेन्ना जगलावलेंच ना
पुण
तेन्नाच्या बियांचे रूख आयज
मळबाक आदार दितात
त्या लिंगपिसाटांची मडीं
आनीक तांच्या देवळांची थडीं लासूंक
आतां लाकूड अुणे पडचें ना.

**अशोक भोसलो**

## गझल

दिवन अुतर अेकदां गेलें परते आयलेंना
न्हिदल्यो राती जागले दोळे परते दिसलेंना

पांचवी पानां दंवा थेंबान अिल्लीय भिजलीना
फुलते कळे मोनेच रावले परते फुल्लेना

सगळो काळोख बिण्ण काळोख अुजवाड फांकलोना
आयलो चंद्रीम लिपलो कुपांत चान्नें परतें दिसलेंना

फाटल्यो यादी जागोवन आयलो तरीय बदलेंना
बंद-पास तोडून सगले अेकदांय परते आयलेंना

कोगुळ गायता अुतरां म्हजी सूर कळना
म्होंवी गीतां गायली तरी परते आयलेंना

काळजा अुतर मनां सोपूत फट जावंचोना
जल्म-जल्मां मेळचें सांगून परते आयलेंना

दाटली कुपां पडलें जोगुल पावस झडलोना
रावलो आशेन येतलें परते दुकूय व्हांवलेंना

**के. अनन्त भट**

## वेळु जाता

वेळु जात्ता, वेळु जात्ता, करि रे तैयारी ।
खेळु जीवनाचो पळे दीस दोनि-चारी ॥ पल्लवी ॥

दुड्डु-दामु घर-कुटुम्ब वाढैता तूं भारी ।
होडु काळु व्हरताना तूं जायना रे अधिकारी ॥ १ ॥

प्रेमान तूं स्वार्था पासून धरता मुष्टियो भारी ।
यमान ते व्हरताना हे दोन्नीय हाथ उधारी ॥ २ ॥

वेळु कळना येतलि पळे काळाचि कठारी ।
पळे तुगेलो धर्मु मोयतले यमाले दरबारी ॥ ३ ॥

परमात्माले माये वशांतु नाचताति संसारी ।
स्मरण करि म्हणता अनंतु राकतलो गिरिधारी ॥ ४ ॥

## बा. रा. नायक

### हावेस

विचाराचीं घेवन बियां भोंवता जळा-मळा
भूंय सोडून चोंयकडेन पाशाण पातळ्ळा

सत्याचीं घेवन बियां
जरीं भोवलो घरान घरां
दुबावाची गोजडी ताणी
बळयां पांगुल्या
भूंय सोडून चोंयकडेन पाशाण पातळ्ळा

बंदेपणा बेडयो मिरयत
मेकळेपणा गायती गितां
अज्ञानाच्या काळखांत मात
जो तो घुसपला
भूंय सोडून चोंयकडेन पाशाण पातळ्ळा

क्रांति बियां रूजत मतींत
पाशाणाचीय जातली माती
नितळ नवो समाज पळोंवक
जीव आशेला
भूंय सोडून चोंयकडेन पाशाण पातळ्ळा

जिजे कुशींत आमी जल्मले
आमच्या दोळयां देखत तिच्या आंगावेल्या
लोकशाय नांवाच्या वस्त्राच्यो
तिस्त्यो तिस्त्यो करून
चेडयेच्यांनी तिका नागडी केली. तरीय आमी
लोकशाय म्हळयार
लोकांनी, लोकांचे, लोकांखातीर चलयल्लें राज्य!
अशें मानीत आयले.
जाणी आपल्या सर्वस्वाचो त्याग करून
स्वातंत्र्य मेळयलें;
पावला कणकणी त्या स्वातंत्र्याची होळी
पेटत चल्ल्या. तरीय आमी,
'जयहिंद' चे नारे गायत रावले.
ओंठ दामल्यार पिच्चच करून
दूद भायर उसळटलें;
असो काल पयर जल्माक आयिल्लो
म्हजो भुरगो म्हाका विचारता,
'बाबा, हें चित्र बदलपाक
कोणच कसो पेटून उठना ?'
हांव ताका इतलेच सांगता,
'जो पेट्टा ताचोच हांगा गोबर जाता.'

## गुड फ्राय डे

येत्यावेत्या लोकांनी फातर माल्ले
ते हांवें मोन्यांनी झेल्ले
तरी हांव थंयच उबो रावलों
फाट तेंकोवन तुजी वाट पळयत
आमोरेच्या वेळा जेन्ना मेणवात पेटोवन
तूं आयलें तेन्ना वेंगेतलो काळोख पैस करून
तुकां वेंगेत घेवचेलो यत्न केलो
पुण म्हज्या पसरिल्या दोंय हाताच्या तळयांचेर
खिळे मारिल्ले त्या लोकांनी
तेन्ना कळून आयलें –
हांव वाटेवेल्या खुरसाक तेंकून उबो आशिल्लों!
तुज्या हाताक कांटो लागलो जाल्यार
तो काडपाक म्हजे हात मेकळे नाशिल्ले
हें पळोवन तूं म्हज्या माथ्यावेलो कांटेरी मुकूट
काडीनासतानाच पेट्टे मेणवातीचेर
फूंक मारून काळखान वाट काडीत गेलें
अेक वेळ तुवें तुज्या हातान दिल्लो
विखाचो पेलो हांव पचयन आशिल्लों
पुण तुका विसरपाचो हो अभिशाप
म्हाका पेलपाचो ना!

## पणटी

कुपां वांगडा आपालिपा
खेळटा चंद्रीम मळबांत
रसरसून वाठार सगळो
भरता आपल्या चान्न्यांत
पुण थंय म्हजी खोप अुबी
आनी खोपींत बायल भुरगीं
काळया कुट्ट त्या काळखांत
पिळग्यानी पिळग्यो मिणमिणटी
पणटी सोदीत ह्या समाजांत

वाठारातलो तो रसरसतो अुजवाड
म्हजे खोपींत पावना
मळबांतलो तो चंद्रीमय
म्हजे खोपींत अुदेना
हांवें रगताचे तेल केलें
पुण पणटी मेळना
आनी गांवातल्या चिमणमातयेरय
हक्क म्हाका ना
पणटेची गरज म्हाका
म्हाका पणटी मेळोवंक जाय
पणटेच्या अुजवाडात
म्हाका भुरग्यांक देखूंक जाय
मंद, तांच्या दोळयां-माणकात
म्हाका अुजवाड हाडूंक जाय
समाजाचे हिरे जावन
ते फाल्यां चमकूंक जाय

त्या खातिर पणटी मेळोंवक जाय
पणटी मेळोंवक बंड जाय
म्हाका बंड करूंक जाय
फायचें मुक्तीचे गीत नवें
म्हाका आयज रचूंक जाय
म्हाका पणटी जाय
पणटी मेळोंवक बंड जाय
म्हाका बंड करुंक जाय
म्हाका बंड जाय ....

## नागेश नायक वडिये

### श्रावण पावस

पावसा वांगडा
वोत खेळटा
श्रावणांत
आपालीपा
पांचवीचार
सृश्ट पावसांत
मनसोक्त
न्हाण घेता

बनांत मोर
पीसारो फुलोवन
धुंद जावन
नाचत रावता
इंद्रधणु
पावसा धाग्यां
गोळोव घेवन
पळेत रावता

परमळाची
फुलां आंगणांत
चींब पारजत
शींपीत रावता
आळू पांचव्या
पानावयल्यान
मोतयां हीरे
ओतीत रावता

पावसा वांगडा
वोत खेळटा
श्रावणांत
आपालीपा
निळीं निळीं
कुपां मळबांत
ओणोव घेवन
पळेत रावतात

### थेंब

घरावेल्यान
देवतां हांव
तेन्ना म्हाका
पावळी नांव
झाडावरसून
झडटां तेन्नां
वटामो जावन
शेणटां हांव

दोळयांतसून
जेन्ना येतां
दुक जावन
गळटां हांव
आळया पानार
मोतीं जावन
कवी मोगात
पडटां हांव

## सांज घुंवळ

ओंठार तट्टटून आयिल्ली
कारेंगाद सांज
मळबाचे जांभळटींतल्यान
घुंवतेच्या मार्गार येता ....
पावलांचे धारेर
सूर्य पगळल्याचो भास जाता.
वाटेर शेणत वचपी खिणांची
भांगराळ सपनां पोंवटांक दसतात
तेवेळार झिलीं पलतडच्या पिश्या तळयांत
झुळझुळत आसतात
काळखाच्यो गर्द झरी.
पाणवल्लें सांजवोत
अशें आगांत करमेल्या उप्रांत
सबंद कूड जावन वता
वाऱ्याचे आडांगी लयीन धोलपी
झिरझिरीत कूप.
मळबाचे अंतस्थ पोकळेन
पडगाजपी शिळोवणे वांगडा
झिळझिळपी कूप.
पिंजरपाकळयांचे, निळया देठाचें
कचकचीत साळक
ल्हवल्हवपी तळयाक
वाऱ्याचरांटेचें गुपित विचारता
आनी उदक मोन्यांनीच हांसता.
तेन्ना साळकाच्यो पाकळयो
फुगार जावन बावून वतात.
देगे वयल्या झाडापेडांच्यो
कांटयाळयो सांवळयो
भयाण भुतांवरी हालत रावतात
तांच्या खांदयां पलतडीं एक राजवर्खी मळब...
मळबाची निळाय पियेत

उडत वचपी निळें सवणे ....
सांजगर्भ लयींत धोलपी कूप
तळ्यावयल्यान झिळझिळत फुडें वता
ताका नियाळटाना
उजवाडाचीं पावलां गणयत गणयत
तळ्या उदकान पाणयत वतात
वयले वयर भोंवऱ्यांमदीं
आपली कुरू साणयत वतात
मळबाचे जांभळटीन शेणिल्ल्या तळयांत
खांदयांमदीं शिरकल्ली रात पगळटा,
रात पगळट.

**पानगळ**

सुक्या खोलयांचेर चरचरपी मोनसाण
आनी पावलांतळीं चिड्डल्ले हुस्कोर
मळबाचेर काळखान चलयल्लो बलात्कार
नियाळपी
हेच कोण ते फियादोर.
अनवळखी परकेपणान
उबीं सगलीं झाडां
दोळे गच्च धांपून
पानांपानांतलो श्वास
राविल्लो आसता खडपून.
मुळांतल्यान खांदयां मेरेन
रुखांनी शिरशिरत वता
नांवनेण्या भिरांतीची एक झेलाद चरांटो.
अलतडच्यो दोंगुल्ल्यो मात
खोटो उंचावन पळयत आसतात पर्थून पर्थून
तांकाय कोणेतरी धपकांवक जाय :
पानगळ येता
तेवेळार काळखाच्या समेस्त धुवांनी
पातकडचो धांपून घेवच्योच पडटात.

## रामानंद तारी

### अेकूच काम करात

मारात बोबो
बोंबलेच्या देठान सावन
आसा तरी कितें काम तुमकां
हांव पोटाचो ! ना म्हूणीना
कोंब्याक धापून दवल्लो म्हूण
सूर्य उदेवपाचो थारचोना
सकाळ जाली हें कळल्या बगर रावचीना
जीणे भांगराचें आमचें केन्नाच जावचेंना
खाज तुमचीच, पोट आमचें
खळगी भरपाक दिसरात पळयलीना
कर्माच तीं आमची केन्नाच मेजलीना
म्हूणटां तेकाच लागोन
मारात बोबो, मारात मारात

आमचे अशें ! तुमचे कशें ?
तुमच्या सारके चादर धापून कर्मां आमी करीना, केलीना
सवळेच आमी सवळेच आमी म्हूण
मांजरा भशेन दूद आमी पियना
तुमगेर जातलीं सगळींच तुमचीच
हे कितें आमकां खबर ना ?
तुमच्या सारके गांवार हेडोंन प्रतिष्ठीत ते आमीच
केन्नाच सांगपाची गरज ना
पयलीच फोणकुलांन रावोन,
तकली वयर काडीनासतना रावपी
तुमी शिताडे आमचेर उडयले म्हूण
परत फोणकुलान पडचे ना.
पडलेल्याचेर वयरसून वचपाची सवय तुमची
मोडपाची ना.
तेन्ना म्हूणटां तुमकां
मारात बोबो, मारात मारात
बोंबलेच्या देठातसावन

मरतले तेन्ना आमी कितें दवरचेना
तुमी कितें व्हरचेना
तुमका चंदनान लासले तरी भांगर तुमचें जावचेना
आमचोच गोबोर जालो म्हूण हासोंक तुमकां मेळचेना
येयल्या तशे वयतले आमी
हें जो मेरेन तुमकां कळचेना
तो मेरेन बोबो तुमच्यो मारून सोपच्योना
बोबो मारपाचे थांबयल्यार तुमी
आमचे बरें जालें अशें तुमका
केन्नाच दिसचेंना
म्हूणटा तेकाच लागोन
मारात बोबो मारात
बोंबलेच्या देठानसावन ....

---

**शैलेंद्र मेहता**

---

चान्ने सोंपिल्ल्या रातींतल्यान,
फातरांनी भरिल्ल्या वाठारांतल्यान,
दुख्खां रस्त्यार देवलीं
आनी
मोनी व्यथा हुंडके दितनाच
उज्याकीट मळबभर पातळली ...
ताणी एकल्याक माल्लो,
शंबर जाणांक माल्ले,
पुण
विचारांच्या हुंवारान तांचीय मडीं
हे धर्तरेर रिगूंक पावली नात ....
चिखल जाल्ले भूंयेतल्यान,
घुघमाच्या आशीर्वादान
ते आयज परत उबे रावल्यात
आनी
रगत रूखांची दुख्खां दर्या जावन अुसळटात
ह्या दर्याचीं ल्हारां
फातर जाल्ले तांचे कुडीचेर आदळत रावतलीं,
तांका एक दीस भूंयभरवण करून
मुक्तीची वाट सोदतलीं.

**प्रकाश दत्ताराम नायक**

## काजळराती

काजळराती
नक्षत्रांवाती
तेन्ना घडलीं
मोगा नातीं !

काजळराती
गंधीत माती
तेन्ना पेटल्यो
काजुलवाती !!

काजळराती
धर्तरे संगती
जुळलीं युगायुगांची
चंद्र - प्रिती !!!

**संतोष डिचोलकार**

## एक सुकणे

एक सुकणे
सदांच आड्डतालें
कित्याक लागून कोण जाणां !

ज्या झाडार रावतालें
त्याच झाडार आड्डताले
कित्याक लागून कोण जाणा !

शरीरान घट आसलें
पळोवपाक सुंदर दिसतालें
दु:खां हाडून रडटालें
कित्याक लागून कोण जाणा !

## निश्चेव

म्हज्या भोंवतणच्या मनीसघाण्या कुपांनी
हांगा दिसा अुजवडीं काळोख केला
आपल्या काळया कर्तुबांनी
आमचे जीणेतल्या सूर्याक
फात्या पारार चोरून व्हेला
मध्यानरातीचो हांगा सूर्या तळपल्लो
ही तांची गोड गोड काणी
आमी तेन्ना मानून घेतिल्ली आसत वो
कुपां आदळून जाल्ल्या जगलाटांकय
ताणी सांगलें म्हण आमी
सूर्याचीं किर्णां आयिल्ल्यावरी
येवकार दिल्लो आसत
पुण सूर्याविना मरतल्या आमकां आयज
त्या काळया कुपांचो सुवार्थ कळून आयला
आनी हातांत येता तें मुठींत धरून
कुपां फोडचो आमी निश्चेव केला
पावसाच्या न्हाणाबगर
सूर्या दिश्टी पडचोना
हेंयबी आमकां होलमलां
देखून आमी झुज अुबाल्लां
पावसाच्या न्हाणाची
अपरिहार्यताय जाणून घेवन
सूर्या हस्तगत करचे खातीर
आमची जीण पर्जळावचे खातीर

## अनवळखी पावलां

जिविताचे अखंड सूर
        अुमाळयांचो ताल गायत,
        अुकत्या वाऱ्यांत अुफेतात
        आनी वाटेच्या पावला-पावलांनी
        विरगळून वतात;
मनाचो घोटेर फाटी दवरून,
        म्हजी रिती जीण,
        पडटा पडटा जगता !
अर्दवट गुंतिल्ले खीण,
        पदरांत ओडून,
        वाट म्हजी, फुडें सरकता,
काळाच्या ठेक्यांक उलो दिवंक !
        तरी मंद धावांधाव ;
        मुखार सप्तरंगी सपन
आनी भोंवतणी ही अनवळखीं पावलां !
म्हज्या पावलांचो सांगात जुळोवंक
कुशीक एक दीप जोत पेटत आसता !
        आता फकत, आदाराचे दोळे जाय,
        म्हज्या सपनांतलो सूर्य अुदेवंक !

## महेश कोरगांवकार

### पळयलां अितलेंच जाणवता

तुकां पळयलां इतकेंच जाणवता
पुण खंय पळयलां ह्याची याद येना ...

एकदां उजवाडटे सकाळी दार उगडलें तेन्ना
सूर्याची किरणां गवाय आशिल्याचें जाणवता
पुण खंय आसलीं ह्याचीं याद येना ....

एकदां निर्जन बारांच्या कडार तुजी थंड बांसरी
वाजताना हें तन मन विसल्यांचें जाणवता
पुण खंय विसल्लां ह्याची याद येना ...

अस्तंत्या वोतान न्हंयचे कडेर आडसाक
तुजें झाड रुजोन आयिल्याचें जाणवता
पुण खंय रूजोन आयलें ह्याची याद येना ....

एकदां सून्न सांजेर एक मंजुळ स्वरांची शेनाय
आयकून कुपां रडिल्ल्याचें जाणवता
पुण खंय रडिल्लीं ह्याची याद येना ....

एकदां काळखे रातीर पायांक चाळ बांदून
घरा भोंवतणी पावलां वाजिल्ल्याचीं जाणवता
पुण कोणाची पावलां ह्याची याद येना ...

शशिकांत पुनाजी

## मी बैल घाण्याचो

मी बैल घाण्याचो
हातभर खूटाक
गरा-गरा फिराचो

चपा-चप् बडयो खायत
शिपीभर तेला खातीर
गळा-गळा घाम गळवचो

झपा-झप् पावला उखलीत
थेमो भर पाणया-पेणी खातीर
तका-तका करीत बघीत रावचो

आवळून-पिवळून केल्ला दाया
इल्लेसे पोटाचे खळगे खातीर
घसा-घसा करीत वडूचो

दयानंद मंगेश राव

## विद्रोह

म्हजो विद्रोह येतलो
सळब पेटयत
फटकिऱ्यांक जळयत
काळोख लाशीत
धर्तरी पुशीत
नव्या चिंतनांचो हार घेवन
उपेक्षितांचो भार घेवन

म्हजो विद्रोह येतलो
समतेचे झेंडे नाचयत
न्हिदिल्ल्यांक जागयत
गुलामी कातरीत
असमता नष्ट करीत
क्रांतीचो सुरूंग घेवन
भ्रष्टाचाऱ्यांक तुरूंग घेवन

म्हजो विद्रोह येतलो
जैताचे नगारे वाजयत
मनीसपण गाजयत
मिरासदारांक मोडित
भांडवलदारांक फोडित
स्वाभीमानाचे मूळ घेवन
नव्या पिळगेचे कूळ घेवन . . .

माया सरदेसाय

## सवणें

देखलें अेक सवणें वाऱ्यावयलें
अेकलेंच मळबांत उडटालें
आपले खीण तें मेजतालें
म्हज्या मनाक भोगलें दुख
अेकसुऱ्याचे जिणेंत कसलें तरी सुख?
दोळ्यांतलीं दुकां मनांत पातळळीं
नदर म्हजी गेली भोंवतणीं
तेच सवणें आयील्लें म्हज्या म्हऱ्यांत
म्हजेय अेकसुरे जिणेंक दिवंक सांगात
दुसऱ्यांचे अेकसुरपण खंतीन रावलें
म्हजे अेकलेपण मळबाक लेगीत कळें!

सोकोर डायस द रोजारिओ

## काजुले

ते ल्हान-ल्हान काजुले,
प्रभु अिश्वराचे
युगान युग,
फोलेर कशे,
मळबार थावन
दोळे मोट्टे करुन
पळयत आसात.
पुण
ती जीण ...
जीण रे मनशाची
मीण-मीण
वाती सारखेली,
हांसून-खेळून,
दुकां गळोवन
पावला पावल
गिरगिरी कशी
सोपत कित्याक आसा काय?

**गजानन जोग**

## आमगेर आयज गणपती आयला

ल्हानां व्हडांक आनंद जाला
आमगेर आयज गणपती आयला ॥

माटोळचा बांदा मखरां करात
माळो दिवल्यांनी झगझग करात
ताई, दादा, आई, बाबा
सगल्यांक आयज बोवाळ जाला ॥

चंद्र जोती आनी माराण लायात
वाडचा वाडचार भोंवून गायात
फुगडी घालात आनी नवऱ्यो खायात
नाचात गायात आनी मज्जा करात ॥

मंगलमूर्ती गणपती देवा
गोड मानून घेयात आमची सेवा
सद्‌बुध्दी दिवन कल्याण करात
फुडल्या वर्सा बेगीन येयात ॥

## लक्ष्मीदास बेळुस्कार

### पावस

शिरी शिरी पडलो पावस
मातयेन लोकांक दिलो वास
केन्ना काय मेळटलो पळोंवक
उमाळयाचो लागला ध्यास

मळबान भल्ल्या कुपां रास
पोरां पळयता सोडून अभ्यास
एका पायांर नाचता मोर
फुलोवन आपलें पिसार पीस

पावस येता घसघशांनी
मिरवणूक काडल्या पिसोळयांनी
उजवाड घाला काजुल्यांनी
वाजप लायलां बेब्यांनी, किड्यांनी

पावस आयलो घसघशांनी
आळवा रास तळयांनी
व्हाळ व्हांवता साखवानी
दर्या गाजता ल्हारांनी
पावस आयलो घसघशांनी

यशवंती वळवयकार

## स्राप

सुण्या दुकरांवरी मनशां जेन्ना
हुकुड्डाचेर भोवत आसता
तेन्ना दिसता ...
ही मनशां न्हय
दोन पांय, दोन हात आशिल्लीं
जनवरां पाश्ट जनवरां
भिके दुवाळे लागिल्ल्यांक
आवय दुवाळे सांगल्या कोणे ?
सैम मात आपली करतुबां
आपलेच तनरेन करीत वता
नाकळटा रंग भरत वता
आनीक अेक म्हूर्त घडटा
मनशां नांवांचीं हीं जनवरां
भूक माथ्यार घेवन भोंवत रावता
रातीची सपना
दिसा हड्डुचांत घुस्मटत रावता
हें सगळें पळेतकच
तकली फुटूंक पावता
बोंबलेच्या देठांतल्यान आड्डून
देवाक अुलो मारन दिसता,
हें सगळें अशेंच घडचें आसल्यार
फातरां काळजाचीं मनशां घडय
तांका मागीर वायट कितेंय पळोवन
दोळे धांपन दिसचेना
पुण आयज मेरेन देवान
खंय कितें आयकलां ?
माणकुल्यांची कवळीं सपनां
दिशीं-दिशीं हांगा करपत आसात
राती वेंगेंत दिसा दुखणी
परवंत आसात
तरीकय दीस अुदेता
राती सरता, वाती जळत आसात
म्हज्यान मात हें पळोंवक जायना
आनी दिसता ....
देवाचो अधिकार हांवें घेंवचो
म्हादेवालो तिसरो दोळो अुगडचो
आनी ....
सगळें लासून गोबर करचो
मनीसकाये स्राप ना करचो

## वज्रथिकां

**सुरेश जयवंत बोरकार**

कोंकणीतले एक भाशाशास्त्री आनी शिक्षणाच्या मळावयले जाणकार तशेंच ज्येष्ठ लेखक सुरेश बोरकार हांगेलो हो पयलोच कविता संग्रह. तांगेल्या १९७० ते १९८० मेरेनच्या अेकूण ४७ कवितांचो हातूंत आसपाव आसा. संग्रहाक बरयिल्ले अभ्यास पुराय अशे प्रस्तावनेंत कवी मनाहरराय सरदेसाय म्हणटात "हो कवी आमचे पोरणे परंपरेंतलो-सत कवींच्या परंपरेंतलो. तांचे भाशेनूंच आपल्या अस्तित्वाचो सोद घेतना ताका वाटेंत कवित्व गावलां."
उजवाडावपी- राजहंस वितरण-पणजी, मोल : १० रुपया

## किरणां

**मानुएल फॅर्नांडीस**

गोंयच्या काणकोण वाठारांतलो नवोदित तरनाटो कवी मानुएल फॅर्नांडीस हांगेलो हो पयलोच कविता संग्रह. सादारण चार चार वळींच्यो अेकूण ८६ कविता नागरी आनी रोमी अशा दोनय लिपींनी छापल्या. संग्रहाक कोंकणीचे अध्यापक आनी लेखक कमलाकर म्हाळशी हांगेली ल्हानशी प्रस्तावना आसा. उजवाडावपी : शणै प्रकाशन वेलींग, मुखचित्र : लक्ष्मण प्रभ गांवकार, पानां- ८६+६, मोल – १५ रुपया

## मांडो ( गोंयचें लोकगीत )

**तोमाजिन्यू कार्दोज**

नामनेचे तियात्रीस्त आनी कवी श्री तोमाजिन्यू कार्दोज हाणी रचिल्या मांडयां आनी धुलपदांचें हें पुस्तक रोमी लिपींत उजवाडायलां. तातूंत १३ मांडे आनी ६२ दुलपदांचो आसपाव आसा. संगीतकार जुवाजिन्यू कार्वाल्यो ( जॉन्सन ) हाणी रचनांचे केल्लें नोटेशन छापलां. उजवाडावपी – अमर प्रकाशन, कांदोळे-गोंय, मुखचित्र – दिगंबर शिंगबाळ, पानां - १०६, मोल – १० रुपया.

## जायां-पूजा

**रामकृष्ण जुवारकार**

ह्या पुस्तकांतल्यो रचना तीन वाटयांनी आसात - भावगीतां, भक्ति गीतां आनी शेर – शायरी. अेकूण ४५ रचनां आसात. मुखावयलें चित्र अरुण पर्वतकार आनी गोविंद नायक हांचे आसा. उजवाडावपी-चामुंडा प्रकाशन, पानां - ५३, मोल ७ रुपया.

## इंदिरा प्रियदर्शनी

**डॉ. भिकाजी घाणेकार**

कोंकणीत विपुल कविता रचपी डॉ. घाणेकरांचें, कवितेचें हें पंदरावें सुपुल्लें पुस्तक. सर्गेस्त इंदिरा गांधी आनी भारत देशा संबंदींच्यो हातूंत २० कविता आसात. प्रकाशक : श्री मल्लीनाथ प्रकाशन-पणजी, मोल : ३ रुपया

**So much achieved in so little time**
**To make sacrifices for freedom**
**More meaningful**

Village economy revitalised,
Panchayats strengthened,
Cash Crops popularised,
Occupations made more gainful with training and monetary incentives,
Manpower trained for technical jobs
And Rural areas
Provided with
Education, Medical help, Electricity,
Roads and Bridges, Kadamba Transport,
Housings for Houseless, Component Plan,
for Weaker Sections and Tribal Sub Plan

**Goan village on march**
**To Self Reliance**

*Issued by :*

# DEPARTMENT OF INFORMATION

GOVT OF GOA, DAMAN & DIU,
PANAJI - GOA.

मुखपृष्ठ छापणावळ : अपुरबाय प्रिंटर्स, वळवय-गोंय